# आनीक एक मृत्युंजय

विशाल खांडेपारकार

आनीक एक मृत्युंजय
(कवितां झेलो)

विशाल खांडेपारकार

प्रकाशन क्र.: ४४


पयली उजवाडावणी : २००४

उजवाडावपीः
**मिलींद कमलाकर म्हाळशी**
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय

छापपी :
**नवादित्य पॅकेजिंग्स्**
माशेल, फोंडें, गोंय

अक्षर जुळणी :
**दीपा कम्प्युटर ग्राफिक्स,**
माटववाडो - बिठ्ठोण, गोंय

मुखचित्र : अमोल पागी

मोल : ७० /- रुपया

**Aneek Ek Mrutyunjay**
( Collection of Poems )

**Vishal S. Khandeparkar**

Publication No. 44


First Publication : 2004

Publisher :
**Milind Kamlakar Mhalshi**
Om Shri Datta Padmja Prakashan
Shristhal , Canacona, Goa.

Printers :
**Navaditya Packaging,**
Marcela, Ponda, Goa.

Typesetting :
**Deepa Computer Graphics,**
Matav-wado, Britona, Goa

Cover Page : Amol Pagi

Price : Rs. 70/-

---

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे '' पयलो चंवर ''
अनुदान येवजणे खाला छापला.

म्हजो आजो
सर्गेस्त
शंकर हरी शेणवी खांडेपारकार
हांच्या
पवित्र उगडासाक
श्राद्ध रुपान

– विशाल

# मांडावळ

# नव्यो कुरवो

आमचीं रामायण आनी महाभारत हीं महाकाव्यां मिथकांनी भरिल्लीं आसात. तशींच मिथकां आमकां आमच्या पुराणांनीय मेळटात. ह्या मिथकांचो उपेग आमच्या साहित्यांत खूब प्रभावीपणान केल्लो दिसता. ययाती, कर्ण आनी अश्वत्थामा संबंदान आशिल्लीं मिथकां भारतीय साहित्यांत वेगवेगळ्या रुपांनी आमकां केळयल्लीं दिसतात. विसाव्या शतमानांत तर ताचो चडावत उपेग आमी केला. हाचें कारण म्हळ्यार ह्या मिथकां फाटल्यान उबी आशिल्ली वैश्वीक अर्थाची सासाय. काळा प्रमाण तांकां नवो अर्थ येत रावता. अर्थाची व्याप्ती वाडटा. ह्या मिथकांमदीं कर्ण आनी अश्वत्थामा संबंदान आशिल्लीं मिथकां चड घोळटुकेंत आसात आनी काळा वांगडा तांचें मोल वाडत आसा हें आमी लक्षांत घेवंक जाय.

विशाल शेणवी खांडेपारकार ह्या कोंकणीतल्या उदेत्या कवीक मिथकांचो प्रभावी वापर कसो करचो हाची जाणविकाय आसा. ' आनीक एक मृत्युंजय' ह्या कविता संग्रहाचें नांवूच तें दाखोवन दिता. नामनेचे मराठी कादंबरीकार शिवाजी सावंत हांणी बरयल्ली 'मृत्युंजय' ही कादंबरी तर नावाजिल्ली आसा. तातूंत तांणी कर्णाचे जिणेचो वेध घेतला आनी त्या मिथकाक नवो अर्थ दिला. कर्ण हें महाभारतांतलें एक म्हत्वाचें पात्र. आंगांत सगले गूण आसून निर्फळ जाल्ली ती एक जीण. स्रापीत जीण वांट्याक येवनूय जिणेक फुडो करपाची विलक्षण तांक कर्णाभितर आशिल्ली. विशाल तांचो संबंद आयच्या वर्तमानाकडेन लायता. तो म्हणटा–

**हांव आधुनीक युगांतलो कर्ण**
**महाभारतांतल्या कर्णावरी**
**सदां आपल्याच सोदांत**
**कळपांतल्यान शेणिल्ल्या**
**हरणाभशेन**
**हांव म्हजीच वाट सोदतां.**

आनी मुखार तो म्हणटा –

**हांव मेलां ताचें वायट दिसना**
**तर... ह्या यंत्र युगांत**
**सगल्याचो सोद लागलो**
**पूण कर्णाच्या मनाचो सोद मात**
**कोणाकूच  लागलो ना**
**हाचेंच वायट दिसता.**

परिस्थितीच्या चक्रांत घुस्पून आवतिकाय जाल्ले आयचे तरणे पिळगेची व्यथा ही कविता व्यक्त करता. पूण कवितेंत मिथकांचो उपेग फकत एक फॅशन म्हूण जावंक जायना, तर ताका अणभवाचें आंग आसूंक जाय. विशालाक ह्या मिथकांकडेन पळोवचेली नदर आसा आनी  तातूंत नवे अर्थ सोदपाची तांक आसा हें म्हाका म्हत्वाचें दिसता. हे खातीर वाचन आनी अभ्यास जाय. आनी ह्या दोगांयची जोड आसल्यार ताची कविता अदीक खोल जावंक पावतली.

हे कवितेंत वेगवेगळीं तासां आसात. तीं मोगाच्यो भावना व्यक्त करतनाच समाजिक आयशाकडेन आंडनदर करिना.

**म्हजे ओंठ**
**आपोलावरी पोल्यार**
**तेंकयतना**
**तुज्या ओठांतलें अमृत**
**चोखून चोखून**
**तृप्त हांव जातां**
**तेन्ना तूं**
**निकतेंच वयार आयिल्ल्या**
**फुलावरी अतृप्त नदरेन**
**अधाशावरी मोन्यांनीच**
**म्हाका वेंगायता.**

अशें म्हणटा आसतनाच कवी आंकवार आवयची व्यथा 'खून' हे कवितेंत व्यक्त करता. आज काल शीमेवयल्यान मनशांमनशांमदीं तशेंच देशां देशांमदीं जीं सगली झुजां जातात ताचेरूय तो भाश्य करता.

**शिमेक अंत ना पार**
**जिणेन घेवचो तिचो**
**आधार**
**ब्रह्मांडाक लेगीत शिमेचें**
**बंधन आशिल्ल्यान**
**सैमाचें चक्र साकार**
**विशालाची कविता सैमाचीं चित्रां रंगयता**
**लजत मोडत आयली सकाळ**
**उजवाड फांकयलो संवसारार**
**आंगार घालून भांगर शिंगर**
**व्हंकल कशी सोबली सव्यार**

खांडेपारकाराले कवितेक आपलें व्यक्तिमत्व सांपडपाचें आसा. ताची अशी खाशेली शब्दकळा आनी नीज प्रकृती आकाराक येवपाक थोडो कळाव लागत. कोंकणी कवींच्या प्रभावाच्यो कांय कुरवो ताचे आयचे कवितेचेर दिसतात. 'मोग रडटा?' सारकेली कविता पंडिताले शैलेची याद करून दिता तर कांय कडेन मनोहरराय आनी भांगी हांचे कवितेचो सूर आयकूंक येता. पूण हें सगलें सभावीक आसा. खंयचोय कवी अशा प्रभावंतल्यान वता. ताका वचेंच पडटा. अनुकरणातल्यानूच तो शिकत आसा. देखीक, मराठींतले श्रेष्ठ कवी मंगेश पाडगांवकार हांचे कवितेचेर बाकीबाब आनी कुसुमाग्रज हांचो प्रभाव आशिल्लो. 'धारानृत्य' ह्या तांच्या पयल्या संग्रहांत दिसपी हो प्रभाव 'जिप्सी' ह्या दुसऱ्या संग्रहांत पुसून गेल्लो दिसता. विशालाची आयची कविता तेच अवस्थेंतल्यान वता. पूण ताका आपली वाट रोखडीच मेळटली हाची वाट ताच्यो बऱ्योच कविता वाचून मेळटा.

विशालाचो हो पयलो कविता संग्रह योग्य वेळार उजवाडाक येता ते खातीर ताका परबीं फावतात. आयची पिळगी कवितेकडेन साधना म्हूण पळयनात असो म्हजो शीण आसा. कविता वाडटली जाल्यार वेगवेगळ्या भासांतल्यो कविता आमी अभ्यासाचे नदरेन वाचूंक जाय. भारतीय कवितेच्या गिरेस्त दायजाची वळखय करून घेवंक जाय. ताचो कोंकणी कवितेक फायदो जातलो.

विशाल खांडेपारकाराक म्हजीं परबीं.

२३ जून २००४, शणैगोंयबाब जयंती.
ग्रीन पीस कॉ: हाऊ. सोसायटी,
नागाळी, ताळगांव, गोंय.

**माधव बोरकार**

# दुख्ख म्हज्या काळजांतलें

कारण आनी परिस्थिती मनशाक घडयता; सोपयताय. महाभारतांतलीं चडशीं
त्रां ह्याच चक्रव्युहांत सापडल्यांत. अश्वत्थामा, दुर्योधन, ययाती, कंस, आनी
र्ण. समाजान ह्या पात्रांक सदांच उणाक लेखल्यात. आर्विल्ल्या यंत्र युगांत लेगीत
ांच्या मनाचो थाव घेवपाक समाज उणो पडला. मागीर तांकां दोष कसो दिवूं येता?
ा पात्रांची व्यथा केन्ना कोणें पळयल्या व्हय? विचार करपाची गरज आसा.
ुरगेपणातच ह्या पात्रांचे जिणेचेर घडये बरे संस्कार जाल्ले जाल्यार हीं पात्रां समाजा
ामकार आदर्श थारता आसल्लीं. पूण संस्कार सोडाच, समाजांत तांकां मोग ना
ाया; शिक्षण ना दया. उपेक्षेच्या उज्यांत हुलपत हीं पात्रां व्हड जालीं. काळजांतलो
नीस खिणा-खिणांक मेलो. सोंपलो. गोबोर जालो. आयज लेगीत कर्ण, कंस ह्या
पान हीं पात्रां समाजांत वावुरतात. पूण समाज तांची दखल घेना हेंच म्हजें दख्ख
ाळजांतलें. यांत्रिक आनी तांत्रिक मळार समाजान विचारान सगलो सोद लायलो.
्रा पात्रांच्या मनाचो सोद लायलो ना, तेन्ना खूब वायट दिसता आनी मन खंती
ावन एका कळपांतल्यान शेणिल्ल्या हरणावरी हांव म्हजीच वाट सोदतां.

उपकार आठयतना ...

कर्तव्याची जाण दवरून उपकारांत रावतां, गोवा कोंकणी अकादेमीच्या. तांच्या
र्थीक पालवा बगर पुस्तक उजवाडावप शक्य नासल्लें. 'आमी आसात. तुजे
ाटल्यान'. अशें म्होंवाळ उतरांनी सांगपी प्रा. भूषण भावे सर आनी प्रा. माधवी
रदेसायांचे काळजासावन उपकारी. तशेंच वेळांत वेळ काडून साहित्यांतल्यो त्रुटी
ाखोवपी हेमा नायक. दिलीप बोरकार आनी तुकाराम शेटीची खिणां खिणांत याद
ातली. तशेंच हांवें सांगिना फुडें प्रस्तावना बरोवन दिवपी म्हजो आवडटो कवी
ाधवबाब बोरकार हांकां कशें विसरूं येत?

गोवा कोंकणी अकादेमीचे आदले सहाय्यक सचिव भौ. कमलाकर म्हाळशी सरांक
- जे ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनाचो भार सांभाळटात - देव बरें करूं. पुस्तकाक
ुखचित्राचें आंगलें चडोवपी चित्रकार अमोल पागी तशेंच दिपा कम्प्युटर ग्राफिक्स,

नवादित्य पॅकेजिंग्स हांचे धनी आनी तांचे  कर्मचारी हांचो हांव उपकारी आसां.

जांणी जांणी फूल जावं पाकळी दिवन म्हज्या पुस्तकाक हातभार लायला त
हांव काळजासावन उपकारी आसां.

चडांत चड देव बरें करूं म्हण्टां.

मोग आसाच, तो वाडूं!

बाजार – घोडेवाडा
शिरोडें, गोंय

**विशाल शेणवी खांडेपारकार**

# आनीक एक मृत्युंजय

हांव आधुनीक युगांतलो कर्ण
महाभारतांतल्या कर्णावरी
सदां आपल्याच सोदांत...
कळपांतल्यान  शेणिल्ल्या
हरणाभशेन
हांव म्हजीच वाट सोदतां...

उंचेल्या कुळांत जल्मलों
शुद्रागेर व्हड जालों
गुरू द्रोणान न्हयकारलो
तेन्ना ...
सूर्याकूच हांवें गुरू मानलो

सगल्यो विद्या शिकून
सगल्यांमदीं फिशाल थारलों
पूण ज़ैताचो झेलो मात
अर्जुनाच्याच गळ्यांत पडलो
कित्याक तर हांगा
म्हजो वंश आड आयलो

त्या सुर्यवंशी, कवच कुंडली, धनुर्धराक
आवयन लेगीत न्हयकारलो
समाजानूय हिणसायलो

... तीच गत म्हजी

हांगाच्या दुर्योधनांनी
हेच संदीचो  लाब घेतला
अर्जुनाच्या बाणांनी म्हाका
'मृत्युंजय' केला.

हांव मेला ताचें वायट दिसना
तर .. ह्या यंत्रयुगांत
सगल्याचो सोद लागलो
पूण ... कर्णाच्या मनाचो सोद मात
कोणाकूच लागलो ना...

*युवांकूर – १९९८*
*दुसरें इनाम फावो जाल्ली कविता*

# काळजाचो थाव

अनामीक भंय तोंडार तिच्या
फाकिल्ले काय?
कित्याक?
व्यभिचारांतल्यान हांव जल्मतलो
म्हूण ?
रोखडीच आवयन संवसारा फाट
केली
भुरगेपणांतूच ''पोर'' हें बिरूद
समाजान
दिलें...

कारण मनशाक घडयता ...
सोपयताय.
याद जाली कंसाची
समाजान म्हजेवरी दुश्टच
थारायलो.
भोगणार. दुःख, यातना, तळमळे.
केणें पळयले व्हय ताचे?

व्यभिचारांतल्यान जल्मल्ल्या कंसाक
शिक्षण ना, संस्कार
मोग ना, धड माया
उपेक्षेच्या उज्यांत हुलपलो
काळजांतलो मनीस खिणां खिणांत

लासून गोबोर जालो

मनीसपण उरलें ना जालो राकेस
नातीं गोतीं मामा – भाचो
कांयच सुयेर – सुतक धरलें ना
दुश्ट मामा म्हूण नांवाजलो तरी.
तुमीय केन्नाय मामा जातले
देख ही दवरली समाजा मुखार

कृष्णाल्या सुदर्शनान मृत्युंजय
जालो तरी...
आर्विल्ल्या समाजांत कितलेशेच कंस
जल्मतात आनी मरतात
पूण हो दुश्ट समाज
ह्या मनशाच्या काळजाचो थाव
घेवंक
खंयतरी उणो पडटा.

सुनापरान्त, १४.७.२००२

# खून

गायनाकॉलाजिस्ट दोतोराल्या
हॉस्पिटलांत हांवें देखलें
स म्हयन्याचें पिकोवन पोट,
एक रुपेस्त अस्तुरी,
गर्भपाता निमतान दोतोराक,
गर्भगळीत जावन विनयता
''वाडटी'' लोकसंख्या आळाबंदा
घालूंक म्हजो गर्भपात गरजेचो!
म्होंवाळ उतरां, पयशां बंडलां,
भुल्लसून कर्तव्याक खोटावन,
मेणावरी दोतोर विरगळटा.
इतल्यांत...
बाळंतपणा कळा सोसून
कवळ्या बाळकाक जल्म दिता,
रोखडीच अस्तुरी फाट,
करता संवसारा....
अयशस्वी शस्त्रक्रिया जाल्ल्यान
माणकुलें बाळक आकांतान,
मोटयान आड्डून ,
सगले शार जागयता.....
खून, खून, खून!
आवयचे म्हजो खून!
दोतोरांनी केला....
किळंच्यो ह्यो आयकून,
घामाघूम जावन दोतोर,
गुन्यांवकारावरी मोन्यांनी,
फाटल्या पांयांनी परतता.....

# सूड

भुरगेपणांत मानेर जूं दवरून
नापीक जमनीचें भांगर केलें
जुवानपणाची पर्वा करिनासतना
कुपास म्हाका करून
जाय तसो पिसडून माड्डून
भोयो भोयो करून मेणाशिलो
मनांतल्यो म्हज्यो वेदना
तळमळे, त्रास, दगदग भोग
पळयले व्हय तुमी?
म्हजे फाटीर मारिल्ल्या
वेता बडये वळ
पळयतकीर सूड भावनेन
उचांबळ जावन हांव...
जुवानपणान तट्टटपी त्या
पाचव्याचार शेताक
जाय तसो चिड्डून माड्डून
बुड्डून उपभोगतां...
आनी पेट्ट्या काळजार
शिंवरता तृप्तीचो शिंवोर...

# रडटा कित्याक ?

तूं रडटा कित्याक?
तुका जल्म ना मरण ...
केन्ना तुका स्पर्शुचें ना
तरी तूं रडटा  कित्याक?

जरा, व्याधी, दुःख, दैन्य
भोग, यातना, त्रास, तळमळे
हांच्या कितल्या पयस तूं
तरी तूं रडटा कित्याक?

तूं त्या अनंत मळबावरी
चित्रविचित्र रंगयाळीं कुपां
ताचेर येतात, वतात.
तरी निळ्या ब्रह्मावरी
मळब हांसतें खेळटें आसता
तसो तूं...
तरी तूं रडटा कित्याक?

तूं त्या स्थीर हिमालयावरी
जंय कितलीं मोडां आयलीं
तरी ताका कांयच बादना
तसो तूं...
तरी तूं रडटा कित्याक?

# प्रस्न

जीण सारतना
असंख्य प्रस्नांलागीं
म्हाका झुजचें पडटा
सगली जीणच विराम...
कांय प्रस्न म्हजे
मर्यादीत रुपाचे
उपाय तांचो मर्यादीत
पूण कांय प्रस्नांचें
रूप शिटकावणेचें
उपाय – तात्पुरतेंच वखद...
मूळ प्रस्न म्हजो
घुस्पल्ल्या जानव्यावरी
सोपे तरेन सोडयता
आर्दीच ह्या ना त्या
नात्यान पिडटा
देखून आतां हांव
प्रस्न मर्यादीत काय व्यापक
हें पयलीं समजून
उपायाच्या सोदांत भोंवतां.

*सुनापरान्त, २०,१२,२००२*

# कसो हांव ?

असो हांव, तसो हांव
कसो हांव?
देवा, म्हाकाच कळना.
मायेस्त काय दयेस्त?
रागिश्ट काय शाणो?
बामटो काय हिमटो?
कसो हांव?
देवा, म्हाकाच कळना.
धर्मी काय अधर्मी?
श्रद्धाळू काय कुड्डो भावार्थी?
पापी, निश्पापी
सुवार्थी काय भावार्थी?
कसो हांव?
देवा, म्हाका कळना
भोगी काय विलासी?
सुखी काय दुख्खी?
असो कसो हांव?
देवा, म्हाकाच कळना.

*सुनापरान्त, २००३*

# दाखलो

एक दीस सरकारी फर्मानान
फिटनेस दाखलो घेवंक
हॉस्पिटलांत हांव गेलों
सगल्या मळांर यशस्वी
जालों हांव पूण...
सर्जरींतले दोतोरणीन
तपासतां तपासतां म्हाका
पेन्ट देंवय म्हळी.
शेळ्या घामान लजेन
दुयेंतीवरी अर्द हांव मेलों
निमाणें....
फीट आसून लेगीत
अनफिट थारायलो म्हाका
आनी हांव झुजांत हारिल्ल्या
सेनापतीवरी मोन्यांनीच
घरां म्हज्या परतलों...

*सुनापरान्त, १७.११.२००२*

# म्हजें उतर

म्हजें उतर
शस्त्रांवरी अस्त्रांवरी
केन्ना केन्ना उतर
सोरपावरी चाबता
चाबलेंच जाल्यार
उतर कुलक्षणीय जाता

उतर म्हजें,
कूळ मूळ
भासांचें साधन
गिन्यानाचें वाहन
एका एका उतरांत म्हज्या
वेगळी संस्कृतीची निर्मणी

उतर म्हजें
भांगरा रत्नां खाण
तिकतिकीत लिकलिकीत
हिन्यावरी चकचकीत,

उतर म्हजें,
वेद, विद्या, स्तोत्रां, धर्म

आनी ज्ञानाचो म्हासागर

उतर म्हजें
नाद ब्रह्म साक्षात देव,
जिणेचें सर्वस्व
काळजांत रिगून
म्हजो उद्धार करता.

*सुनापरान्त, २४.११.२००२*

# नागवणो

हांव नागवणो
हाका नागय, ताका फटय
आपली परब  परब गाज़य
असलो म्हजो धंदो
भेस म्हजो संताचो
करण्यो देंवचाराच्यो
हांव न्हेसतां झेतार
पूण दुसऱ्याच्या खुस्तार
हांव मनीस,

आंगलोटान बरो
हांसत्या मुखाचो
खुलत्या रुखांचो
हाका शेंडी लाय,
ताका फुलां माळ
काम जाय तर रामराम,
मागीर पोंगे मामा
म्हजें हड्डें सदांच फुडें

केन्नाच लजेक वळखना
म्हणून पेजेक पावतां हांव
वतां वतां सादूर करतां
सांवळी म्हजी पडल्यार मनशा,
वांवभर पयस राव.

*सुनापरान्त, १७.११.२००२*

# शीम

शिमेचो आरंब घरांतल्यान
दुर्गाचे शिमेर
माणकुलें घर म्हजें
घराघरांतल्यो शिमो
जाता वाडो
गांवांक शिम,
तालुक्याची शीम
अश्यो ह्यो शिमो
ताचें सोबीत राज्य
राज्याची शीम, प्रांतांची शीम
देशाची शीम, पृथ्वीची शीम
विश्वाच्या संकुलनाक शीम
मनशांक शीम,
सावजांक शीम,
रागाक शीम,
मोगाक शीम,
देवाक शीम,
देवचारांक शीम,
शीम, शीम,
शिमेक अंत ना पार
जिणेन घेवचो तिचो
आधार
ब्रह्मांडाक लेगीत शिमेचे
बंधन आशिल्ल्यान
सैमाचें चक्र साकार.

*सुनापरान्त, १५.०१.२००२*

# यादी

आयज हिन्दुक लासलो
मुस्लिमाक मसणींत पुरलो
गेल्ले मनीस आयले नात परत
तांच्यो यादी मात उरल्यो....

मनीस कितले जल्मले?
कितले भायर पडले
उदकावरी खळखळ्ळे
वाऱ्यावरी सळसळ्ळे

एद दीस बापूय जाले,
मेल्ल्या बापायक विसरले
गेल्ले मनीस आयले नात परत,
तांच्यो यादीं मात उरल्यो.

मनीस म्हळ्यार कितें ?
माती काय सांगाती?
कितलोय मनीस जियेलो तरी
निमाणें धर्तरी माताच,
ताची सांगाती.

वाद उरता मनीस तोच,
जिणेंत येवन झरलो.
पर्जळीत नकेत्र जावन,
संवसारभर पर्जळ्ळो
गेल्ले मनीस आयले नात परत
तांच्यो यादी मात उरल्यो.

*सुनापरान्त, २९.०९.२००२*

# भुरगेपणांतल्यो यादी

जीण इतली विषम जाल्या
केन्ना केन्ना म्हाका दिसता
कित्या खातीर हो जल्म?
तेन्ना याद जाता भुरगेंपण
हो कावूलो हो मामालो म्हण
शिता उंडी भरयली ना
वोतां हुनसाणेन रस्त्यार भाजिल्ले
म्हजे अनवाळे माणकुले  पांय
कोणूच करिनासलो अपुरबाय
दोळ्यांत हाडून मायेची साय
खोपींत कूड वाडली कशी?
आयज लेगीत कळ्ळें ना.
चिऱ्याखणीर कूड झरोवन
सांजेर विडी ओडटना
काळजांतल्यान आयिल्लीं खोल
गंभीर ताचीं उतरां....
''शिकात रे पोरांनो शिकात
आमचेवरी चिऱ्याखणीर
झरोवं नाकात तुमचीं गात्रां
जेवन घेयात बेगीन
फात्यांर उठात''.
बापूय गरजेतालो

आनी पर्थून फटिल्ल्या
ताटांत जीव भरतालो
भूतकाळ उस्तीतना लागले
खारट झरे
भुरगेंपण गेलें खरें पूण...
भुरगेंपणा यादी फुगावांवरी
मावो काळांतरान .. पुसल्यो तरी,
एक दोन मावो मात
जल्म भराच्यो सांगाती जाल्यो.

*सुनापरान्त, २४.१२.२००१*

# व्यथा

जिणेची म्हजी व्यथा
कोणाक हांव सांगूं पुता?
व्यथा म्हज्यो सोपनात
जिविताक म्हज्या सूख ना
भक्ताची व्यथा
कोणाक हांव सांगूं पुता?

भटाक दक्षणा मेळना
देव भक्तांक गावना
सुर्याची व्यथा
कोणाक हांव सांगूं पुता?

पावस कुपां घालयना
किर्णां धर्तरिर पावनात
कृष्णाली व्यथा
सुदर्शना बगर रणांत
कोण आयकतलो पुता
अर्जुनान आयकली गीता
सुटली जिणेची व्यथा

# जिविताचो खेळ

खिणां सोपत्या जिविताचो खेळ रंगचो ना,
संकटाविणें सुखा मोल कळचें ना.

जिवित म्हळ्यार जळती मशाल
अल्पकाळ जळपाची
जिद्धीचे तेंल ओतीत
पर्जळीत जावपाची
सुखा वांगडा संकटा झूज सोपचें ना
खिणां सोपत्या जिविताचो खेळ रंगचे ना.

जिवित म्हळ्यार एक पतंग
वाऱ्या वांगडा खेळपाचो
धगधगत्या सुर्या किर्णांनी
गोबोर जावन वचपाचो
भिवून फाटी सरलो जाल्यार श्रेय मेळचें ना
संकटाविणें सुखा मोल कळचें ना.

जिवित म्हळ्यार एक झाड
फुलां फळांनी बहरपाचें
संयमाच्या संकटांनी
दीसरात झगडपाचें
कार्य मदीच थांबलें जाल्यार मेळ जमचो ना
संकटाविणें सुखा मोल कळचें ना.

जिवित म्हळ्ळ्यार एक नाटक
हांसत खेळत करचें साकार
तेन्ना पुता  जिणेक येतलो
नवो ताल्ल आकार
रागार फुगार जालो जाल्यार
नाटक पूर्ण जावचें ना
संकटाविणें सुखा मोल कळचें ना.

*२४.१२.०१ दिसा आकाशवाणीर वितरायल्या.*

# संवसाराचो पास

येवजिल्लें साधना म्हण
जालो हांव निरास
तोडून दिवन  दिसलो
म्हाका संवसारा पास
विचाराचे तन्द्री भितर
मनां तोल गेलो
पिशावरी भोंवत हांव
दर्या वेळेर पावलों
दर्याचो अथांग देह
ल्हारां वांगडा खेळटालो
कोणा खावं कोणाक नाका
काळा समान तेळटालो
खिणां भितर मन म्हजें
वाऱ्या वांगडा धांवलें
रेवेंत पावल पडचे पयलीं
ल्हारांक वचून मेळ्ळे.
अक्राळ विक्राळ दर्यान
दोळो म्हजेंर मांडला
'धीर आसल्यार सर फुडें!'
मरणाचो भंय घालो
भंया आकांता भरशीं
संवसाराची जाली याद
जिवार उदार जावचेलो
सोडून दिलो हांवें नाद

# जल्म

बाळंतपणाच्या वेणीचो
अप्रुप घुस्मटमार
मागीर काळोख चिरीत
उजवाडाक वेंगावपी
जिवाचो जल्म
अपूर्व आनंदाचो अणभव
त्या कवळ्या जिवाक
हड्ड्याक लायतांच
तृप्तीचें एक ल्हार
मनभर – तनभर
सगळेंच कशें कुकुलेंच
नाक दोळे  हात पांय
रगताच्या नात्याक  ह्या
आनीक खंयची वळख जाय?
घोव – बायल
एका अथांग अतूट नातें
नवो जल्म घडयता
फलीत मिलनांत

*'बिम्ब' दिवाळी अंक, २००२*

# घरचो दिवो

मर्णासर्णार न्हिदतना हांव
सुकर्णी सावदां नाचतलीं
हांसत रडत गायत तीं
भैरवी सुरार म्हण्टलीं

मर्णासर्णार न्हिदतना हांव
भटमोगरी फुलतली
मंद पर्मळान मोगरेच्या
संवसारा माणे लायतली

मर्णासर्णार न्हिदतना हांव
गाबणे मळब तुट्टलें
सोनेरी सुरंगी सुगंधीत
धर्तरिक पर्जळीत करतले

मर्णासर्णार न्हिदतना हांव
धर्तरी नकेत्रावरी लिकलिकतली
देवालागीं पावतकूच हांव
घरचो दिवो पेटयतली.

# चूक

तुजे भिंडावरी वोंठ
वोंठाक म्हजे तेकयतना
अद्‌भूत स्पर्शानूच
मन जोगलावता
आनी नकळटां
रक्ताचो दाब वाडून
बळजबरीन वेंगावन
चूक तीच पर्थून
हांव एकदां करतां...

# तृप्ती - 1

वाऱ्या वांगडां हांसपी, खेळपी
पाचवें शेत वांयगणांतलें
नवे व्हंकलेवरी पाचवो ताळ्ळ
शालू न्हेसून प्रियतमाचे
भेटेक रावलां.

इतल्यांत  मांजरा पावलांनी
एक आडांगी बांगर बैल
जुवानपणाचो शेक गाजयत
रुपेस्त रुपान रसरसपी
शेताक त्या वेंगायता

वासनेन उचांबळ जाल्लो बैल,
जाय तसो शेताक त्या
चिड्डून, माड्डून, बुड्डून
उपभोगता
आनी दाण्या गोट्यांनी भरिल्ल्या,
दुदाचे तृप्तीन धादोशीत
जावन परतता.

*सुनापरान्त, २७.०२.२००२*

# तृप्ती - 2

म्हजें ओंठ
आपोलांवरी पोल्यार
तेंकयतना
तुज्या ओंठातलें अमृत
चोखून चोखून
तृप्त हांव जातां
तेन्ना तूं
निकतेंच वयार आयिल्ल्या
फुलावरी अतृप्त नदरेन
अधाशावरी मोन्यांनीच
म्हाका वेंगायता...

*कोंकण टायम्स २००२*

# बायल म्हजी

बायल म्हजी अपुरबायेची
यादींनूच तिच्या हांव पिसावतां
कांयच तिका हांवें दिलें ना,
तिणेंय केन्ना मागलें ना,
अशी सानुल्ली बायल म्हजी.

खरेंच तुज्या मोगाखातीर गो,
इश्टिणी हांवें जोडल्यो नात,
जिवावळीचो शाप बादत म्हूण,
केन्ना हात तांकां लायलो ना,
मोगा चान्नें ओतपी पुनवेर,
नदर लेगीत घाली ना.

खरेंच तुज्या मोगा खातीर गो,
जिणेंत हांवें खूब भोगलां,
संघर्ष, वितुश्ट, त्रास, तळमळे,
दुःख, यातना, राग, त्याग,
लज, भंय, घृणा, तिरस्कार,
सोस सोस सोसला....

सोसलें भोगलें हांवें जरी
एकटो म्हाका जगचें आसा,
वलें नाशिल्लें मोगा तारूं
दर्या देगेर लावचें आसा
फकत तुज्या मोगाखातीर.....

# एक फूल

एक फूल खोप्यांत<br>
एक फूल दोळ्यांत<br>
एक फूल तळ्यांत<br>
एक फूल मळ्यांत

एक फूल कानांत<br>
एक फूल मनांत<br>
एक फूल रानांत<br>
एक फूल फुलांत

एक फूल बावलां<br>
एक फूल पिसुडलां<br>
एक फूल रडलां<br>
मोगांत म्हज्या पडलां.

# मोग

मोग : पिरपिरता
शिरशिरता
शिंवरता
दडकेता
मोग : चंवरता
पिकयता
केळयता
खेळयता
मोग : फुलयता
बावयता
व्हांवयता
बुडयता
मोग : दुखयता
सुखयता
नाचयता
रडयता
मोग : खेवमारो
घातमारो
फटयताय
सोपयताय...

# भांग

मोगा आमच्या
आयला भांग
येता जाल्यार
अळंग येवं दी

मरणा तयारेन
रावचें आमी
भांगा मात
धादोशी जावं दी.



# मोग रडटा?

मोग रडटा?
भिवूं नाका
इल्लो रडटलो
इल्लो उरतलो
इल्लो चंवरतलो
आंकरी धरतलो
रूप घेतलो
अप्रूप जावन्
संवसार गाजयतलो

*सुनापरान्त, २०.७.२००३*

# ख्रीण

म्हजी जीण सारतना
जिणेतले म्हजें काव्य
मोलादीक खीण
समाजा खातीर आसतात
जेन्ना तू मेळटा
तेन्ना  नकळटना म्हजे
सगलेच खीण तुजे
जावन अतृप्त उरतात
आनी खीणभरांत
जेन्ना तूं म्हाका
गोपांत घेता,
खीणभर जरी जायना
सासणाचो तृप्त जातां.

*सुनापरान्त, २०.६.२००२*

# उमो

अप्सरेवरी सोबीत चली
तोंडार हांसो हाडीत
ओंठ दुखतात म्हजे
ओंठांनी  रात जागयली म्हण
वखदांचे आशेन आयला?
दोतोरावरी  आव हाडीत
साबार वखदां दाखयलीं हांवें
हांतलें कांयच  नाका म्हाका
म्हजें वखद ओंठांत तुज्या!
मेळत व्हय गा उमो म्हाका....
ल्हंवेंन ल्हंव फुल्ली म्हजी
याद जाली कर्तव्याची
झुजांत हारिल्ल्या सेनापतीची
मान बागोवन रावलों आनी
रागान फुगून वचपी
ती सोबीत सुंदर आकृती
तेळत रावलों हांव...

*सुनापरान्त, १५.११.२००२*

# पिशें

भुरगेपणांत आवय बापायन
संवसारा फाट केली
समाजान पिशेपणाचें
बिरूद लायलें
दुःख, यातना, भोग, तळमळे
कोणें म्हजे पळयले व्हय?...
समाजान म्हाका धोंसलें
जाय तशें, जाय तेन्ना
चिड्डिलें, मुड्डिल्लें, भोगलें
आनी पिशें थारायल्लें
ताटा पोंदचें मांजर जालें
पूण पिशांमदीं खंय तरी
मनीसपणाचीं शाणेपणां आसलीं
गांवार पुंजायल्लें अन्न पिशें
खासा उपाशी रावन
रस्त्यावेल्या माणकुल्या सुण्यांक
पेट्यांक अन्न खावयतालें
म्हाका पिशांचीं शाणेपणां
सामकी पिशें लायतालीं
तेन्ना म्हज्या पिशेपणार पिशें
बुदवंतावरी म्हजेर हांसतालें.

*सुनापरान्त, १८.५.२००३*

# नशीब

चंद्रावरी सोबीत सुंदर,
व्हंकल म्हजी आसतली
आळवाच्या पानावेल्या
थेंब्यावरी ती दिसतली
अशें हांवें सपनांत,
चिंतूक लेगीत नासलें,
पूण चिंतूंक हांवें,
नासलें तरी, नशिबांत
म्हज्या आसलें.

# दुवाळे

तुज्या रुपेस्त रुपाचे,
रसरसपी कुडीचे
लागले म्हाका दुवाळे तेन्ना सावन
तुज्याच गोड यादींनी गो काळीज
म्हजें शेणलें.
कोणाक सांगूं ? कितें सांगूं?
कांयच म्हाका होलमलें ना
दुवाळ्यांनी दुवाळ्यांनी कूड
म्हजी अशक्तिली तेन्ना
याद जाली आज्ञेचे काणयेची
सीतेक रानाचे दुवाळे लागिल्ले
म्हणून तर रामायण घडलें
पाशाणावरी काळीज घट्ट करुन
मोगाचें उतर दिलें तुका
पूण ....
काळीज नाशिल्ल्या बापायन तुज्या
मोगाचो कोंब धरचे पयलींच
आंकरीच मुड्डिली
काळजाच्या दर्यार दुकांचीं
ल्हारां आयलीं आनी दर्यांत
मोगाच्या दुवाळ्याचो फेणेर
मात सतत वाडत गेलो.

*सुनापरान्त , ०६.०१.२००२*

# रूप

एके रूपेस्त अस्तुरेन
म्हाका आपल्या गोपांत
घेवपाचें उतर दिल्लें...
पूण म्हजीच ख्यास्त
म्हणून.....
कोणें तरी सभाग्यान
अस्तुरे रुपच विद्रूप केलें
आतां बावडी ती
आपलें पुर्विल्लें रूप
सोदीत धर्तरेर भोंवता...

# सात पावलां

सात पावलां मारीत,
मळबांत हांवें वचें.
इंद्राल्या दरबारांत
तुका हांवें वेंगावचें

सुपुल्ल्या हरणा दोळ्यांत
रूप तुजें तोखेवचें
गूंज अंजिरा फळावरी
तांबडे ओंट तुजे चुमचे

फोफळाच्या माडयेवरी
कमराक तुवें धरचें
नागिणीवरी केंसा वेणयेंत
घुस्पत हांवें रावचें.

जल्मोजल्म म्हाका
तूच व्हंकल म्हूण मेळचें
अमृतावरी मोग आमचो
सासणाचो संवसारांत उरचो.

# भूक

उमाशेचे काळखे रातीं
एक गरीब पिडेस्त अस्तुरी
        दोन वर्सांच्या आपल्या
        माणकुल्या बाळकाक
        सिनेमा थेटरा भायर
        सोडून गेल्या...
अचकित न्हिदेंतल्यान
जागें जाल्लें हें बाळक
वण्टीचेर मारिल्ल्या रुपचित्राक
आपली आवय समजून
नर्तकीच्या अर्दनग्न दुदुल्याक
पळोवन...
दुदाचे आशेन, भुकेन
व्याकूळ जाल्लें हें पोर
रडून रडून आकांत करून
न्हिदिल्ल्या शाराक जागयता.

# मोगा यादी

मोगा आंकरी धरतना
दुबावा पिशानूच गो,
आमी दुरावलीं
नशिबाच्या चक्रव्यूहांत
मनां घुस्पलीं
हारशावरी काळीज गो
यादींनी तुज्या रडलें
मोगा थेंबे पडनाफुडें
मनांतलें झाड पालेलें
नकेत्रांची जीण म्हजी
काजुल्यांवरी लिकलिकली
चंद्रालागीं पावतकूच
उजवाडानूच करपली
दुख्ख ताचें ना गो आतां
दीस अशेच गेले हुडून
मोगा यादी जाल्यो तुज्यो
अमृताचे कळे.

# इश्टागत

जोगला खातीर जाली इश्टागत
मळबांतलें जोगूल पळयतना
येवजता हांसपी खेळपी व्यक्तिमत्व
खूबच कितें दिसता तुजेविशीं

अडेच अक्षरांचें उतर इश्ट,
बुद्धीबळार अडेच घरां
चलतल्या घोड्याची जादू
उतरांत आसपावता

इश्ट म्हळ्यार कितें न्हय?
धीर, आधार, सोबती
सुखा दुख्खांतलो सांगाती

मनांत जोगूल चकमकता
येवजितां तो दीस.
आमी वतलीं, पयस
वांगड दितलो यादींचो
एक आल्बम

म्हाका वायट दिसूंक
कित्याक जाय?
हो संवसार विशाल
इश्ट येतले, वतले
पूण जोगूल मात
सासणाचें उरतलें.

# दनपार

पारजती फातोड
सुस्नात सकाळ
गाबणी मध्यान
तृप्त समाधानी
वत्सल दनपार
सुरंगी सुगंधी
सोनेरी सांजेवेळ
गोरज पावलांची
गांधर्वी तीन सांज
शांत सुशांत
प्रशांत रात
मागीर विरक्त
अनासक्त मध्यान
दिसाचो अश्टप्रहरी
पिसारो म्हज्या
शिरंत्रांत रिगून वता.

सुनापरान्त, २००३

# सकाळ

लजत मोडत आयली सकाळ
उजवाडाक फांकयलो संवसार
आंगार घालून भांगर शिंगर
व्हंकल कशी सोबली सव्यार

रुखा वालींक कंवळी जाग
सपनांतल्यान उठलीं चितळां, वाग
दवान न्हाले सगलें दोंगर
न्हेसले पुडवें पाचवेंचार

सावदां सुकण्यां पोरांनी
गायलीं गितां दुलपदां
आयकून अप्रूप रसाळ गायन
धर्तरिर फुल्लीं फुलां फळां.

*सुनापरान्त , २२.०६.०२*

# प्रार्थना

गोंयची आमची अस्मिताय,
जण एका गोंयकारान,
घेवची तिची जतनाय,
कोणेंच देवा करची न्हय,
तिची कसलीच कागाळ,
म्हादय न्हंय आमची,
खरेली गोंयची सासाय
राखण तिची करपाक देवा,
सगल्यांक दिवची घटाय.

*सुनापरान्त, १३.१०.२००२*

# आषाढ पावस

आषाढांतलो पावस हो,
गोंयांत म्हज्या पडुंदी
कुळवंत भाग्यवंत गोंय हें
भांगरावरी जावूं दी

पावस पडून सैम हांगाचो,
पाचवोचार जावूं दी,
पाचव्याचार वालीं–रुखां
सवण्यांनी मोगागीत आळोवं दी
गीत हें आयकतना मोग्यांक
कालिदासाचो उगडास येवूं दी
आषाढ पावसा पयल्या दिसा
नवे व्हंकलेन आकूळ पिकूळ
जावं दी
मर्णाच्या भंयान मांवान, बेगीन
व्हंकलेक व्हरून कुळारा पावंदी
ह्याच निमतान व्हंकलेक
आषाढ फुलां माळूं दी
सगले धर्तरिर पडूं दी.
मोनजात तशेंच मनीसजात
शांतिकायेन नांदूं दी.

# तीन कविता

सुर्याच्या किर्णांनी
काळोख सोदलो
चान्न्याच्यो राती
उजवाडान भल्ल्यो



परदुख्ख
परशितळ
आत्मदुख्ख
म्हा कठीण.



तणावरी सुकचे पयलीं
फुलावरी फुलूक जाय
जीण हांसत खेळत
मेणावरी जळूंक जाय.



# आनीक तीन कविता

जिणेतली कोतां म्हर्जी
केन्ना सुद्धन सुटली ना
सोपे तरेन हाताळ्ळीं तितलीं
जानव्यावरी घुस्पत गेलीं.



काळजा दर्यार दुकांची
ल्हारां आयलीं आनी
विशाल मनांत
मोगादुवाळ्याचो फेणेर मात
सतत वाडत गेलो.



घर आशिल्ले मनीस
घराच्या सोदांत
घर नाशिल्ले मनीस
बिराडां सोदांत.



# तीन कवना

अशे खूबशे दीस येतात,
जे उदेतनाच निस्ततात
अशे उणेच खीण आसतात
जे सासणाचे मनांत उरतात

तुजें मन म्हजे वयलें हुडलां,
आयकतकीर काळीज खुबच रडलां
म्हजेखातीर तुवें खूबच जोडलां.
म्हणून तुवें म्हाका सोडलां?

उंटगराच्या पावसाक भिजून
सत्री हांवें फुलयली
सत्रेच्या रागान पावसान
रात सगळीं उपभोगली.

# चिरपुटां - 1

एक एक माडी मेळून
कुळागर भरता
एक एक दूक गळोवन
तळें भरता...

कात्यां खुट्यांतल्यान वाट
काडीत गुलाब फुलता
काळजा वोंटार म्हज्या
नांव तुजेंच घोळटा.

# चिरपुटां -2

जिविता पासत
इश्ट जोडले
इश्टां पासत
जिवित मोडलें

काळजा वेलीर मोगा कळे
हांसत रडत खुंटले
वळेसर गुंथले तांचे
धागेच सगले तुटले
संवसाराची सुंदरकाय,
सान वेंगेंत देखली
मोगाची थाकाय,
गोपांत तुज्या भोगली.

# चिरपुटां -३

पिकिल्लें पान
मर्णा धडेर जल्म मनयता
पाचवी आंकरी कोंबेल्ली
पिकिल्ल्या पानांचें सरण ज़ळयता

मरण तुका येवचे पयलींच
सरण तुवें दाळूंक जाय
मरण पुता नाका जाल्यार
देवा चरण धरूंक जाय

पिकिल्ल्या पानाचो दीक गळना
दीक गळटा भुरगेपणांत
तरण्या पानांचीं दुकां गळनात
दुकां गळटात जाण्टेपणांत

# चिरपूटां - 4

भोगूंक हांवें रात मागली
पुणून तूच पावलें ना
काळखी रात भश्टतकीर
रागान चंद्र आयलोच ना
सूर्य आयज खंय गेला?
न्हिदला गोपांत?
ना, ना. देंवला धर्तरिर
ब्रह्माल्या रुपांत...
म्हज्या सपनांचो
फाल्यां गोबोर
जिणेच्या शुभकार्यांत
मर्णाचो आहेर. .....

# चिरपुटां -5

जगांत हांव जल्मल्लो तेन्ना
जग हांशिल्लें हांव रडिल्लों
जीण सारून मरतना
जग रडलें हांव हांसलो

कोंकणी म्हजी भास
तूळ म्हजी रास
म्हादयचो म्हाका ध्यास
गोंयचीच म्हाका आस

जल्मल्लो हांव ताकतिकेन
जीण सारली ताकतिकेन
सगल्याकूच केली ताकतीक
निमाणें मेलोंय ताकतिकेन

उमाशेचे काळखे रातीं
नकेत्र एक उदेलें
खीणभर म्हाका म्हजें
मेल्लें तृप्तीच दिसलें.



नांव विशाल गुरूदास शेणवी खांडेपारकार

जल्म ६ आक्टोंबर १९७६ वर्सा शिरोडें.

शिक्षण बी. ए. एम्.ए, बी.एड्. गोंय विद्यापीठ

* १९९४ सावन कविता लेखनाक सुरवात. तशेंच कथा लेख निबंध, काणयो आदी साहित्य रचलां.
* गोंय दूरदर्शनाचेर आनी ऑल इंडिया रेडिओचेर कार्यावळी सादर केल्यात.
* गोवा कोंकणी अकादेमी साहित्य संमेलना निमतान घेतिल्ले कविता सर्तींत 'आनीक एक मृत्युंजय' कवितेक इनाम फावो जाला.
* सद्या गोवा कोंकणी अकादेमींत 'क्लारिसा वाज ई मोरानीस'' संशोधन वृत्ती ख़ाला संशोधन करता.
* शिरोडा कोंकणी सेवा केन्द्राचो १९९० सावन सचिव म्हूण काम करता.

ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन, श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय